


# काव्यहार

(कोंकणी कवितासंग्रह)

ए. पी. भानुप्रकाश



देवी पब्लिकेशन्स
एरणाकुळम

**KAAVYAHAAR** **काव्यहार**
(Konkani Poems) (कोंकणी कवितासंग्रह)

**A. P. Bhanuprakash** **ए. पी. भानुप्रकाश**



Publication No.1 प्रकाशन क्र. 1
First Edition पयली आवृत्ती
November 2014 नवेंबर 2014

Proof Reader : मुद्रितां तपासपी :
Kamalakar D Mhalshi कमलाकर द. म्हाळशी

Published by प्रकाशक
Devi Publications देवी पब्लिकेशन्स
Alungal House आलुंगल हावुस
Irattakulangara Road इरट्टकुळंगरा रोड
Pachalam पच्चाळम
Ernakulam - 682 012 एरणाकुळम - 682 012
Cell : 09746630908 फोन : 09746630908

Prtinted at मुद्रण
Ayodhya Printers अयोध्या प्रिन्टेर्स
Kochi - 682 026 कोची - 682 026

Copies 500 प्रती 500

Price : ₹ 100 मोल : ₹ 100

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां

## समर्पण



ग्रामदेवता श्री काटुंगल भगवतीक नमन करून
म्हजो बापूस स्वर्गस्त ए. बी. पिन्बाबु शेटी (07.07.1920 - 14.01.2000)
हांगेल्या पुण्य उडगासाक हो काव्यहार समर्पितां

**ए. पी. भानुप्रकाश**

## उपकाराचीं उतरां

- म्हाका कोंकणी चळवळींत हाडलेलो म्हजो प्रिय मित्र श्री. आर. एस भास्कर हांणी.
- म्हाका मार्गदर्शन दिलेलें प्रिय मित्र श्री. पय्यनूर रमेश पै हांणी.
- मनोहर उतरांनी म्हज्या कवितांची ओळख करून दिला प्रोफेसर हनुमंत चोपडेंकार हांणी.
- मुद्रितां तपासून उपकार केल्ला श्री. कमलाकर द. म्हाळशी हांणी.
- सगटांकडे हांव काळजांत सावन आभारी.

**- ए. पी. भानुप्रकाश**

# कवितादेवीक एक सुंदर हार

केरळांतल्या कोंकणी लेखकां मदें, एक जाण्टो मनीस आसा श्री. ए.पी. भानुप्रकाश. कोंकणी पत्रपत्रिकांच्या उणावा निमित्तीं तांकां चड बरोवन उजवाडाक हाडूंक जाले ना आसुंयेत. पूण तांणी लिखिल्ल्या थोड्याच कवितांतल्यान आपणाली कवित्वाची वळख करुन दिवपाक तांकां हाचे पयलेंच जाला.

आतां तांचो हो काव्यसंग्रह उजवाडाक हाडपाक तांकां उमेद दिशिल्ली प्रशंसनीय आनी खुशीची गजाल. हें पुस्तक "पयलो चंवर" येवजणे खाला उजवाडावपाक गोवा कोंकणी अकादेमीन अनुदान दिला म्हणपाची आनी एक खुशीची गजाल. ताका लागून ह्या कवीक तागेली उमेद वाडोवंक आनी कोंकणी कवितेची चड सेवा करूंक शक्य जातलें अशें म्हाका दिसता.

ह्या काव्यसंग्रहांत वेगवेगळ्या विशयांचो आस्पाव कवीन केला. देशप्रेम, चेर्डुबाळांचो मोग, प्रकृतीचीं वर्णनां, फुलांची चन्दाय, मानविक मूल्यांचें महत्व, सुख-दुखाचें तत्व - हें सगटय हांतु विशय म्हणु दिसतात. मुक्तछंदसाची रीती ताका आवडता आनी आपणाल्या समाजांत सदाकाळ राखून दवरलेलीं थोडीं पोरनी उतरां तांणी वावुरल्यांत. वाचपी मनश्याक समजून घेवपा खातीर थोड्या कठिन शब्दांचे सरळ जावन टिपणी रूपान अर्थय दिल्यात.

कोंकणी वाचकांलें मन जिखपाक हो हार कवीन गांतला. सुंदर तरी ल्हान चित्रां मेळोवन एकेक कविताय सजयल्या. श्री.भानुप्रकाशाची ही नाव मुकार तांकां नांव जोडून दितली अशें हांव आशेता आनी तांकां सर्व यशय आंवडेतां.

**- पय्यनूर रमेश पै**

## ए.पी. भानुप्रकाशाचो 'काव्यहार' : केरळांतल्या कोंकणी काव्याचो भाव-स्पर्शी हुंकार

संवसारांतल्या दर एक मनशाक ताची म्हण एक खेरीत भास आसता. ती भास त्या मनशाच्या हजारांनी वर्सां चलत आयिल्ल्या संस्कृतायेची सगळ्यांत व्हडली देण जाता. आपले संस्कृतायेचो आनी भाशेचो देखूनच ताका व्हड अभिमान दिसता. जेन्ना जेन्ना ताचे भाशीक संस्कृतायेचेर आगळीक जाता तेन्ना तेन्ना तो मनीस स्वाभिमानान पेटून उट्टा, झुजता. कोंकणी भास ही मूळांत कोंकण प्रांताची भास. तिचो जल्म 'संस्कृत-प्राकृत-अपभ्रंश' अशे प्रक्रियेंतल्यान आनी खास करून 'महाराष्ट्री प्राकृतांतल्यान' सादारण 8 व्या 9 व्या शेंकड्यांत जालो आसुंयें अशें जाणकारांचे मत आसा. भारताच्या अस्तमते कडच्या दर्या देगेक सह्याद्री पर्वताच्या घाटां सकयल शेकान शेक पातळिल्लो भूभाग म्हणजेच कोंकण प्रदेश. 16 व्या 17 व्या शेंकड्यांत पुर्तुगीजांनी चलयल्ल्या धार्मीक आजनेरींक लागून कोंकणी समाज आपलें मूळ पीठ गोंय सोडून विस्थापीत जायत गेल्लो आमकां दिसता. आयज कर्नाटक आनी केरळ वाठारांत दर्यादेगे वयल्या विंगड विंगड वाठारांत शिपडून पडिल्लो कोंकणी समाज दिसून येता तो त्याच इतिहासीक कारणांक लागून. हो कोंकणी समाज जंय जंय पावलो थंय थंय तो थळावे संस्कृताये कडेन एकरूप जावन रावलो. पूण त्या एकरूप जावपाचे प्रक्रियेंत तांणी आपली नीज कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृताय घरांत आनी लोकजिणेंत जिवी दवरपाचो पोटतिडकीन यत्न केलो. ताकाच लागून आयज लेगीत कर्नाटक आनी केरळ ह्या द्रविडी वाठारांतूय कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय थंय फुलताना आमकां दिश्टी पडटा.

आयचे घटकेक जायत्या इतिहासीक कारणांक लागून पुराय कोंकण प्रदेश विंगड विंगड राज्यांनी वांटून गेल्ले आसलो तरी कोंकणी भास आनी संस्कृताय ह्या तत्वांचेर गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी विस्कटावन गेल्लो कोंकणी मनीस [illegible]ठांय जायत आयला.

हे घटकेक फकत केरळ वाठाराचो विचार केल्यार, केरळांत 18 व्या आनी 19 व्या शेकड्यांत कोंकणींतलें भक्तीकाव्य व्हडा प्रमाणांत फुलिल्लें दिश्टी पडटा. तातूंत कथाकथन, गीतगायन, नाट्यरंग, भावअभिनय अशा घटरकांचो आस्पाव जाता. 1850 ते 1950 हो केरळच्या कोंकणी साहित्याचो भांगराकाळ. 'नंदादीप' ह्या ग्रंथांत संपादक तशेंच संकलक

ारदचंद्र शणै 100 वर्सांच्या ह्या काळखंडाक 'केरळच्या कोंकणी साहित्याचो उदयकाळ' ानतात तो हाकाच लागून. ह्या काळखंडांत हरिकथा, भक्तीकाव्य आनी नाटक हे साहित्य ्रकार चड प्रमाणांत बरोवन सादर जावन तातूंतल्यान केरळांत कोंकणी भाशेची जागृताय ाल्या. ह्या वावरांत : अम्मुलक्का शणै, एम. शेषगिरी प्रभू, आर.एस. प्रभू, पि.एन. नरसिंह पै, मंजेश्वर गोविंद पै, द्रोपदीबाय, ए.डी. हरि शर्मा, के. पद्मनाभ भट, वेदवती अम्माळ, सरस्वती रंग भट, के. श्रीनिवास कामत, आर. सी. शर्मा, एस.जी. नायक, आर. रंगनाथ प्रभू, जी. कमलम्माळ, आर. माधव पै, गंगा बाय, के. वामन वाध्यार, एन.एन. पद्मनाभ शणै, जंबा बाय, गणेश प्रभू, वी. वेंकटेश, के. पुरुषोत्तम पै, माणिक्का बाय, सुमित्रा बाय सारख्यांचो महत्वाचो वांटो आसा.

तांच्याच वावरांतल्यान स्फूर्त घेवन उपरांतच्या काळांत केरळांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या मळार जायते ल्हान-व्हड व्यक्ती पोटतिडकीन वावूरतात. तातूंत पी.जी.कामत, प्रो.आर.के. राव, एन. पुरुषोत्तम मल्लया, के. पुरुषोत्तम पै, आर. सुभाशचंद्र प्रभू, पी. मनोहर, एच. बी. शणै, वी. बलराज शेट, पी.एन.शिवानंद शणै, पय्यन्नूर रमेश पै, गोकुलदास प्रभू, के.आर. वसंतमणी, शरतचंद्र शणै, एन.एन.आनन्दन, आर.एस.भास्कर, के.अनंत भट, डॉ.एल. सुनिता बाय, सुशीला टी.भट, भक्ता आर. काजंगाड, वी. कृष्ण वाध्यार, सुरेश ए. शणै, आनंदी मुंबय, के.के. सुब्रह्मण्यन, रंगा हरी, सुर्या अशोक, राधिका शणै, एन. बालकृष्ण मल्लया, गोश्रीपुरं हरिकुमार, अंजली किणी, ए.पी. भानुप्रकाश सारख्या कोंकणी कार्यकत्यांचो आनी साहित्यिकांचो आस्पाव जाता.

**'काव्यहारा'चो पोड सोडयताना...**

वयले परंपरेची जाण दवरून, ए.पी. भानुप्रकाश हांच्या 'काव्यहार' ह्या नव्यातल्ल कविता झेल्याची प्रस्तावना बरयताना एक नवी जापसालदारकी भुजांर पडिल्ल्याचो आभास जाता. ए.पी. भानुप्रकाश हो कवी तसो पिरायेन तरनाटो नासलो तरीय ताची कविता तरनाटी आसा. ताची कविता भायल्यान कच्ची दिसली तरीय भितरल्यान परिपक्व आसा आनी ती कविता अभिव्यक्तिंत सैल भासली तरीय आशयाचे नदरेन घटमूट आसा. कारण ह्या झेल्यांतल्यो साबार कविता आशय आनी विशयांचे नवे संदर्भ घेवन रुपकारांत आयिल्ल्यो आसात. कवितांच्या आकृतीबंधांत तरेकवार आयाम कवीन कळत-नकळत हाडपाचो यत्न केल्ले आसात. हो नवकाव्यांचो हार गुंथताना ह्या कवीन स्वताच्या अंतर्मनाची आनी बाह्यमनाची एक विलक्षण घालमेल शब्दबद्ध केल्या

हाचीय रुजवात ह्या कविता झेल्यांत मेळटा. आपले भोंवतणची पुराय सृश्ट आनी अख्खें ब्रह्मांड ह्या कवीक स्वताचे काव्य-वेंगेंत घेयनशें दिसता. ताचो दिश्टावो प्रस्तूत झेल्यांतल्यो कविता दिता. पंचमहाभुतांनी आकाराक आयिल्ल्या ह्या असीम संवसाराचे साबार घटक ताच्या काव्यांत सहजतायेन हाजेरि लायतात आनी एक दिव्य सत्य कलात्मक रुपान वाचकां मुखार उक्तें करतात. माती, मळब, उदक, वत, वात, उजवाड, सैम, झाडां, झुडपां, पानां, फुलां, पाखे, सवणीं, काजुले, चंद्रीम, सूर्य सगळेच सैमीक घटक ह्या कवीचे 'काव्य-दूत' जावन नवे अर्थ घेवन वाचकांचे भेटेक येताना दिसतात. त्या 'काव्य-दुतां' चो एक सहयोगी जावन ह्या प्रस्तुत काव्यझेल्याची सुपुल्ली वळख घडोवपाचो हो म्हजो माणकुलो यत्न.

गोंयां साकून चारशीं वर्सां आदी केरळांतल्या 'कोची' वाठारांत पाविल्ल्या कोंकणी समाजाची व्यथा केरळांतले कोंकणी कवितेचो प्राण जावन उलयता अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. फकत कोंकणीच न्हय तर संवसारांतल्या असंख्य विस्थापितांचें दुख्ख व्यक्त करपाची तांक कोंकणी कवितेंत आसा हाचो दिश्टावो हाचे पयलीं पी.एन. शिवानंद शणै, शरतचंद्र शणै, आर.एस. भास्कर, रंगा हरी आदींच्या काव्यांतल्यान मेळिल्लो आसा. प्रस्तूत कविता झेल्यांत कवी ए.पी. भानुप्रकाश आपले 'ओ गोंय' हे कवितेंत ती व्यथा तिव्रतायेन मांडटाना कोंकणी मनशाक कोचीच्या रायान आलाशिरो दिवन कोंकणी संस्कृतायेचेर भरवंसो दाखयलो ताची नोंद आपले कवितेंत घेता.

चारशीं वर्सां पयलीं आमी आयले
कोंकणी जन आमचे पूर्विक आयले
पातमारी ताण्डून आमी आयले
गोंय सोडून आमी आयले
गांव गांव ताण्डून आमी
कोची गांवांतु पावले

ooo

दिल्ली आमकां भूंय कोच्ची महारायान
दिल्ली आमकां रय्यान राबूंक भूंय
दिल्लो आमकां सहायु देवूळ बांदूंक
रायान दिल्ली आमकां सम्मति, व्यापारु करूंक

(ओ गोंय, 105)

'काव्यहारां'तली पयली आनी पांचवी कविता मुखेलतायेन भारत देशाची व्हडविकाय आनी ताचे विशीं कविच्या मनांत आशिल्लो उपाट अभिमान शब्दबद्ध करता. पयले कवितेंत तो अभिमान 'आमी भारतीय आमी भारतीय' अशा सुरांत जाल्यार पांचवे कवितेंत तो 'परम पवित्र आमची जल्मभुमि भारत' अशा स्वरांत गाजता.

'सत्य आनी धर्म-प्रिय देश भारत
भूलोक जनांक सदां मार्ग दिवो हो भारत
विश्वशांती दिंवचो देश भारत
विश्व पूजित आमचो भारत हो भारत (जल्मभूमि भारत, 29)

कवीच्या काळजांत आपले जल्मभुंयेचो आनी तिच्या इतिहासीक दायजाचो आदर आसा. हे भारतभुंयेचे दक्षिणेक म्हणजेच द्रविडी संस्कृतायेच्या केरळांत आनी कोंकणी संस्कृतायेंत जल्माक येवन थंय ल्हानाचो व्हड जाल्लो हो संस्कारी कवी भारतभुंयेचें गुणगान गायता. भारताची वेदीक संस्कृती, ऋशी मुनींची परंपरा, भारतीयांच्यो इतिहासीक शौर्यगाथा, भारतांतल्यो विविध संस्कृतायो, हांगाचे दोंगर, न्हंयो, दर्या, गांव, शारां, महानगरां, भास, भेस, आनी भौशीक संस्कृतायो आनी खासा करून भारतभुंयेच्या धूव-पुतांनी विश्वशांती खातीर दिल्ल्या 'अहिंसा' ह्या महामंत्राची तुस्त-तोखणाय हो कवी आपल्या काव्यांतल्यान करता.

भारतीय संस्कृतायेंत विंगड विंगड धर्मांतल्या धर्मस्थळांक भोव म्हत्व आसा. पुरणकाळांतल्यान आयज मेरेन हीं धर्मीक स्थळां समाजमंदिरां जावन समस्त भारतीयांक मार्गदर्श करीत आयल्यात. ह्या धर्मस्थळांचेर जावपी उत्सव लेगीत थळावे सांस्कृतिक गिरेस्तकायेक पुरस्कृत करीत आयल्यात. काव्यहार रचपी ह्या कवीक ताची जाण आसा देखून तो 'उत्सव' (आराट) सारके कवितेंत आठ दिसांच्या थळाव्या उत्सवांतल्यान थळावे संस्कृतायेचें खाशेलेंपण उक्तें करताना त्या उत्सवांतल्या बारीक-सारीक सगळ्या गजालींतल्या संतोषाचो (आनंदाचो) तपशील आपल्या उतरांनी मांडटा.

गांवांतुलें देवूळ, आमचें व्हडलें देवूळ
पावलो आमच्या देवूळांतु, औन्दूच्या उत्सवा
देवालो उत्सव, आमगेल्ल्या देवालो उत्सव
आठ दिसां उत्सव, आठ दिसां उत्सव
उत्सव पावल्यारि सगटांकय सन्तोषु
भुरग्यांक सन्तोषु, व्होड सन्तोषु (उत्सव, 19)

ह्या कविता झेल्यांत एक तरेचें सैमचक्र घुंवताना नदरेक भरता जें वाचप्याक आपलें निजाचे सोबीतकायेन मोहीत करताना मंत्रमुग्ध करून सोडटा. सैमाचीं साबार आंगां आपल्या वास्तवीक रंगरूपां सयत ह्या झेल्यांतल्या कवितांनी अवतरल्यात. सैमाच्या दर एका घटकाचेर हो कवी कविता बरयता. पावस, उदक, उजवाड, भूंय, रूख, दोंगर, कमल, फूल, पाखे हांच्या वांगडा सकाळ, सांज, रात, फांतोड आदी विशयावेल्यो कविता ह्या झेल्यांत आस्पावल्यात.

आयज उदरगतीचे आनी शारीकरणाचे प्रक्रियेंत न्हंयो आनी बांयो हे नितळ पिवपा उदकाचे स्त्रोत प्रदुशीक जावंक लागल्यात. मनशान आपल्या सुवार्थाक लागून हे साबार उदका स्त्रोत तुंबोवन उडयल्यात. आयज जर आमी हें उदक नांवाचें जीवामृत सांबाळ्ळें ना जाल्यार फाल्यां हे सैमीक संपत्तीचो नाश जातलो आनी मनीस जीण सोंपतली. ते पासत उदकाचें रक्षण करपाचो भोव मोलादीक संदेश कवी 'उदक जीवामृत' हे कवितेंत दिता. कवी बरयता :

व्यर्थ उपयोग उदकाचो केल्यार फाय तुमकां
मेळचें ना उदक पिवूंक, न्हावूंक आनीक धुवूंक
सोडाय तुमी स्वार्थ चिंता आनी कराय भविष्य चिंतन
तळी, बांय, नदी, समुद्र इत्यादी वायट करनाकाय
रक्षण कराय, रक्षण कराय तुमी उदका संपत्तीचें. (उदक जीवामृत, 39)

काव्यहार ह्या कविता झेल्यांत कवीच्या संवेदनाशील मनाचो तशेंच मानवीय दृश्टिचो थाव लागता, संवसारांत मोग, माया, आपुलकी, परोपकार, मदत, त्याग हांचे जोडीक बरें कर्म, बरे विचार, बरे आचार, देवाची भक्ती, समाज श्रद्धा, श्रम-श्रद्धा अशा जायत्या गजालींचेर ह्या कवीचो विश्वास आशिल्ल्याचें ताच्या कविता अभ्यासतकच मतींत येता, ताका लागून मायेमोगान आनी मनीसपणान तुडूंब भरिल्ल्यो ताच्यो कविता शास्त्र आनी तंत्र हातूंत उण्यो आसल्यो तरीय मनाक भावतात, काळजांत रावतात आनी आत्म्याक आफुडटात. कांय देखीः 'सूर अपायकारक, मानव सेवा, त्याग, आकर्शण, उजवाड, जागाय, म्हज्यान जातले हांवें करका, दिवो, प्रकृती, हारसो, संस्कार, शुभाप्ति विश्वास.'

प्रस्तुत काव्यहारांत विंगड विंगड प्रसंगांचो तशेच प्राणी कथांचो आदार घेवन वा तांचीं प्रतिक आपणावन कथनात्मक स्वरूपाची बोध-कविता कवीन रचल्या. घडयें बरोवप्याच्या अंतस्कर्णात सान चेरडुंवां प्रती (भुरग्यां प्रती) व्हड लोक्तुबाय आसा

देखून तो अशे तरेचें काव्य बरोवपाक पावला. देखीक - 'पावसांतु खेळु' कवितेंत कवी माणकुल्या वांगडा पावसांत खेळपी आज्जेचें भुरगेंपण दाखयता जाल्यार 'मोक्ष' सारखे कवितेंत फातरांतल्यान देवमुर्ती जावपी त्या फातराची देख-काणी घेवन आमचे मुखार कश्टाचें आनी त्यागाचें मोल सिध्द करता. 'म्हालगेड्यान सांगिलें आयकोंवका' ही कथारूपी कविता जाणटेल्यांनी सांगिल्लें आयकूंक जाय म्हण सुचयता, जाल्यार 'मूय' हे कवितेंत उंच मळबांत उडपाचो हावेस बाळगुपी मुयेची शोकांतिका सांगून कवी आमकां सगळ्यांक सादूर रावपाक शिटकायता. देखीकः

एक घोणी घुंवनु घुंवनु ऊंचार उडता देखून
मूय ती उडली दुसेरीय ऊंचार ऊंचार
अल्प प्राणी मूय तिका सूर्यताप असहनीय जाले
सूर्यतापान तिगेली पांखां जेळनु पडली ती सकल... (मूय : 65)

'हार उडटा म्हूण गांयडोळान उडचें न्हय' अशा भावार्थाची एक म्हण कोंकणींत फामाद आसा. ताचोच प्रत्यय वयली कविता दिवन वता. मूय ह्या सान जिवाचें रूपक घेवन हो कवी मनशांचे वृत्तीचेर बडी मारपाचो यत्न तातुंतल्यान करता. प्रस्तूत कविता झेल्यांतली एक उत्कृश्ट कविता जावन आसा.

युवक वा तरनाटे ह्या समाजीक घटकांचेर ए.पी. भानुप्रकाश ह्या कवीचो बरोच भरवंसो आसा अशें तांच्या जायत्या कवितावेल्यान दिसता. 'हे उठ तूं' आनी 'फुडें सर' सारख्या कवितेंतल्यान तो तांचो भरंवसो सहज लक्षांत येता. 'हे उठ तूं' हें कवितेंत कवी तरनाट्यांक आळस सोडून श्रम आनी कश्टाचें म्हत्व समजयता जाल्यार 'फुडें सर' हें कवितेंत कवी तरनाट्यांक वेळाचें मोल समजावन 'आयचो वेळ फाल्यां मेळचो ना तसेच फायचोय आयज मेळप शक्य ना' देखून वेळाची पावलां वळखून तुज्या कर्तव्याक फुडो करीत तूं धिटायेन मुखार पावल घाल अशी सूचना दिता. हांगासर कवीक ह्या तरनाट्यांच्या फुडाराचो हुस्को आशिल्ल्याचें जाणवता. आयज देशाचो फुडार घडोवपाची जापसालदारकी तरनाट्या भुंजांचेर आसा देखून तांच्यांनी जापसालदारकेन आनी आत्मविश्वासान आपली कर्तव्यानिश्ठा जपची हेंच संगपाचो काव्यमय प्रयत्न कवी करता.

काव्यहार ह्या झेल्यात चिंतनशील आनी अध्यात्मीक आंगान मुखार सरपीय कविता आस्पावल्यात. मनशाक जल्म-मरणाचें मोल वळखून परमेश्वराच्या निस्सीम भक्तिची ओड लावची अशी मागणी हो कवी जायत्या कवितांनी करता. 'मनशाचो

जल्म मेळप हें व्हडलें भाग्य' अशें सांगपी 'देववाणी' ही कविता, 'कुडीक मरण आसले तरीय आत्म्याक मरण ना' अशें पटोवपी 'जल्म, मरण आनी पुनर्जल्म' ह्यो कविता उल्लेखनीय आसात. त्यानभायर, मानवसेवेक सर्वश्रेश्ठ सेवा समजुपी आनी अनश्वर ज्ञानाक अमूल्य संपत्ती मानपी दिव्य विचार ह्याच झेल्यांतल्या दोन माणकुल्या कवितांनी मेळटात. जबरदस्त आशय अभिव्यक्त करपी ह्या झेल्यांतल्या त्या दोन माणकुल्या कविताची देख हांगा घेवयाच.

1. कोणाक लागता पोटाक भूक
कर तूं अन्नदान तांकां
सदा दया कर तूं दीनांचेरि
उतरां चांग सदां उल्लेय तूं
मानव सेवा कर तूं निस्वार्थ
पावतोलो देवु तुजे कडेक. (मानव सेवा, 50)

2. ज्ञान एक अमूल्य संपत्ती
ज्ञान सदां अमूल्य
ज्ञान तें सदां अनश्वर
ज्ञान सदां प्राप्त कर तूं
स्वयं प्रकाशित जाता
तोंड तुगेलें आदित्या समान. (अमूल्य संपत्ती, 52)

ह्या झेल्यांतल्यान कोंकणीचे केरळी शैलीचें मनमोहक दर्शन घडटा. त्यानभायर ह्या झेल्यांतल्या साबार कवितांनी म्हाका एक गजाल मुखेलतायेन जाणवल्या, ती म्हणल्यार हो कवी दर एके कवितेंतल्यान हेरांचो चिंता-हुस्को काडटाना दिसता. फकत बरोवपाक जाय म्हूण तो कविता बरयना तर ताका कितें तरी सांगपाचें आसा, मुखावेल्याक मार्गदर्शन करपाचें आसा, तशेंच आपल्या अणभवांतल्यान हेरांक सादूर करपाचें आसा. ताची काव्यहारांतली पयली ते निमणी मेरेनची कविता वेगवेगळे संदर्भ घेवन होच सूर आळयताना दिश्टी पडटा. कांय जाणांक हो आशयाचे नदरेंतलो पुनरावृत्तीचो काव्य-दोश दिसुंये. पूण केरळ वाठारांत विस्थापीत कोंकणी समाजाची चारशीं वर्सांची परंपरा ताका कारणीभूत आसा अशें म्हाका दिसता. भोंवतणच्या थळाव्या कोंकणी समाजांतल्या दर एका घटकाचो हो कवी हुस्को करता पूण प्रत्यक्षांत आपलें आंग खंयच दाखयना. कुशीक रावून तो आपले तांकी प्रमाण 'म्हज्यान जातले

हांवें करका' अशा न्यायान चानयेचो वांटो उखलपाचें कार्य करीत आसा. कोची वाठारांतल्या थळाव्या कोंकणी समाजाची मान-मर्यादा, मनोवृत्ती आनी मानसिकताय घेवन वावुरपी हो एक अनामीक कवी आयज नांवरूपाक येता. ताचे मदीं उपाट प्रतिभा आसा हाची गवाय हो काव्यहार दिता. काव्य-वाचनाचो सराव, काव्य लिखणेंतलें सातत्य आनी काव्य-साधनेचो व्यासंग धरल्यार ताच्या रूपान एक बरो कोंकणी कवी कोंकणी साहित्याक मेळपाक कळाव लागचो ना अशें म्हजें प्रामाणीक मत जालां.

भोंवतणची पुराय पाचवी धरतरी, झाडां-वाली, फुलां-फळां, दोंगर-न्हंयो, सवणीं -सावदां, मळब-माती, चंद्रीम-नखेत्रां, रात-दीस, उजवाड-काळोख ह्या कवीच्या मानाक काव्याचीं नवीं पाखां लायतात. तांचे कडच्यान उर्बा घेयत तो आपली काव्य साधना तडीक व्हरता. ह्या कवीक छंदांचो, अलंकारांचो, आकृतीबंधांचो सोस ना. घडयें आपले कवितेक खंयच्याच बंदनांत बांदून दवरप ताका पसंत ना. जेश्ठ कोंकणी कवी र.वि. पंडीत म्हण्टा तशें 'आयलें तशें गायलें' ह्या सुरांत हो कवी मनांतले आनी काळजांतले सगळे भाव उत्स्फुर्त रितीन उतरांनी बांदीत रावता. ताचें मनमश्तिश्क नितळ आशिल्ल्यान तें उतरांचे बांदप एक भावस्पर्शी काव्यफुलाक जल्म दिता. त्याच काव्यफुलांक एकठांय करून कवीन हो 'काव्यहार' आमकां भेटयला. म्हाका हो 'काव्यहार' केरळांतल्या कोंकणी काव्याचो भाव-स्पर्शी हुंकार दिसता. ह्या आपरोसांतल्यान त्या हुंकाराचो परमळ हांवें घेतलाच, समस्त वाचकांक लेगीत ताचो परमळ भावतलो अशी अपेक्षा दवरपाक हरकत ना. ह्या काव्यांत जायत्या गुणां वांगडा कांय दोश लेगीत नदरेक पडटात. ताचीय उस्तवारी वाचकान करूं येता. करचीच.

पूण, म्हाका प्रत्यक्षांत ह्या कवीचो हो प्रयत्न तोखणायेचो दिसला. कारण ह्या कवीक हांव प्रत्यक्षांत मेळ्ळों. ताचे कडेन हांवें भासाभास केल्या, ताचे विचार आयकल्या. म्हाका ताचे मदली काव्यसाधना दिसल्या, तशेंच ताचे मदीं ह्या साहित्यीक मळार नवें शिकून घेवपाची तान-भूक आसा, नवें कितें तरी पेजाद करपाची इत्साशक्त आसा. देखून ताचो दुसरो काव्यझेलो पयल्या परस निश्चितूच सरस आसतलो असो म्हाका ताचे विशीं विश्वास दिसता... हो 'काव्यहार' कोंकणी सरस्पतीच्या गळ्यांत घालताना काव्य-झेल्याच्या उजवाडाची वाट पळोवपी कवी ए. पी. भानुप्रकाश हाका हुनहुनीत परबीं ...

अनंत चतुर्दस,
8 ऑगस्ट 2014

**प्रा. हनुमंत चोपडेंकार**
फोंडें गोंय



**ए. पी. भानुप्रकाश**

जल्मः 14 ओगस्ट 1951

**दृश्य कला वावरांत वांटो :**

- सीता स्वयंवर पुराण कथेचेर आधारून कोंकणींत काव्य रचून नृत्य नाटिका रूपान माचयेर हाडला.
- दत्तात्रेय चरित्र काव्य रूपान कोंकणींत रचून संगीत आविश्कार केला

**साहित्य सेवा :**

- बिम्ब, जाग, कोंकण टायम्स हांतूंत कथा- 'उजवाड', आनी कविता प्रकाशन केल्या
- कोंकणींत भजन गीत, मलयाळम भासेन भजन गीत आनी कविता रचिल्या

**कुटुंब :**

पत्नी : सुमा

धुवो : अनिता राजेष, सरिता संतोष, सितारा मनोज

पूत : जयप्रकाश

**पत्तो :**

आलुंगल हाउस, इरट्टकुळंगरा रोड
पच्चाळम, कोची - केरळ, पिनः 682 012
मोबैलः 09746630908
ईमेलः bhanuprakashpachalam@gmail.com

# मांडावळ

# 1. आमी भारतीय




भारतीय तुमी जागृत जायाय
जागृत जायाय तुमी भारतीय
भारतीय तुमी जागृत जायाय
(भारतीय....)

फायचे युवक तुमी जागृत जायाय
फायचे नागरिक तुमी जागृत जायाय
जागृत जायाय तुमी भारतीय

ज्ञान प्राप्त कराय तुमी भारतीय
दिग्विजयी जायाय तुमी भारतीय
कराय तुमी आमचें राष्ट्र वैभवांचें

शिकाय, शिकेयाय तुमी भारतीय संस्कार
राष्ट्र रक्षण कराय तुमी भारतीय
देश अभिमानी आमी भारतीय

परम पवित्र आमचो देश भारत
श्रेष्ट करचे शिल्पी तुमी भारतीय
जागृत जायाय तुमी भारतीय

एकमेळीन एक मनान म्हणाय तुमी
आमी भारतीय एक!
आमी भारतीय एक!

# 2. उत्सव (आराट)



गांवांतुलें देवूळ, आमचें व्हडलें देवूळ

पावलो आमच्या देवूळांतु, औन्दूच्या उत्सवा

देवालो उत्सव, आमगेल्या देवालो उत्सव

आठ दिसां उत्सव, आठ दिसां उत्सव

उत्सव पावल्यारि सगटांकय सन्तोषु
भुरग्यांक सन्तोषु, व्होड सन्तोषु
उत्सव, उत्सव, आमच्या देवूळांतु उत्सव
आठ दिसा उत्सव, आठ दिसा उत्सव

माटव बांदून सिंग्रायला
देवूळ पुरा सिंग्रायला
आसा पाल्लक्के शिवेली
आनी गरुडवाहना शिवेली
आसा तेराचेरि शिवेली
आनी हस्ती फाटीरि शिवेली
पंचवाद्य आसा
धोलु आनी चेंड्यामेळु आसा
आसा आसा 'समाराधना
आठ दिस्सूय समाराधना
आसा आसा कला कार्यावळ
मनोरंजक कला कार्यावळ

उत्सव उत्सव आमच्या देवूळांतु उत्सव
आठ दिसां उत्सव, आठ दिसां उत्सव

उत्सव, उत्सव भुरग्यांक व्होड उल्हासु
नवें नवें आंगवाले भुरग्यांक न्हेसूंक
चोड्वां येत्ताय देवूळांतु
नवें पाट्या गग्रो चोळि न्हेसून
बायलो न्हेसून येत्ताय काप्पड
नवें पाट्या काप्पड
गळो भरनु भांगरा हार
हातु भरनु भांगरा कांकण
माळनु येत्ताय माथ्यारि
जायते परमोळा [2]मोगारें

उत्सव, उत्सव आमच्या देवूळांतु उत्सव
आठ दिसा उत्सव, आठ दिसां उत्सव

---

[1]समाराधना - अन्नदान, [2]मोगारें - जायफूल

# 3. सूर अपायकारक



फांतोडेर एक भोंवर
मधु पिवपाक चड्लो
एक कमळा भित्तेरी
अल्प मधु पिवचाकय
दिसलें ताका जायतें पिवूंक.

मधु चड पिंवनु पिंवनु
न्हिदलो तो उन्मत्त जावनु
गेल्ली साबुद्द तागेली
गेल्लो उगडास घरकडेचो
सांजवेळा कमळ कोळो जालो
कांय नेणता नेणता भोंवर
न्हिदलो सुखान कमळा भित्तेरी

रात्रि जागलो भोंवराक
आयलो उगडास घरकडेचो
बायल आनी चेरडू एकलेंच
कित्तें करतोलो ? भय दिसलें भोंवराक
भायर वचपाक जालें ना ताका
रडून रडून रात्रि पूरा बसलो तो.

फांतोडेर कमळ परतून फुल्लेलो
गेल्लो बेगीन भोंवर घरकडे
ना कोणीय तागेले घरकडे
ना तागेली बायल, ना तागेलें चेरडुं
खंय गेल्लीं ? कित्तें जालें तिंकां ?

घराकडेक बसला एक व्होड बेबो
गेल्लीं भोंवरालीं बायल आनी चेरडुं
त्या व्होड बेब्या पोटांतु
अत्यन्त दुःखित भोंवर
रडून रडून बसलो.

भोंवराक तेन्ना दिसलें
"म्हजे पिंवपा निमित
आयली दुर्घटना तांकां"
"ना, पिंवचो ना आनीक मधु
हांव आज साकून"
केली प्रतिज्ञा भोंवरान



# 4. पावसांतु खेळु



पावसा मोड, पावसा मोड,

पावलें पावसा मोड

पावस पावलो, पावस पावलो,

पडलो व्होळ्ळो पावस

आयकिले, आयकिले

चेरडुंवान पावसा शब्द

सुरसुर सुरसुर, सुरसुर

सुरररररररररर

देखले देखले चेरडुंवान
भायर पावस पडतालो.

आई तिका लिपून
चेरडुंवां गेल्ले भायर
पावसांतु न्हाल्ले, पावसांतु खेळ्ळे
सन्तोषान चेरडुंवान कोल्लोरि[1] घाले
वासरेंतु बसून आईन, आयकिले
भायर चेरडुंवांलो कोल्लोरि

पावसांतु चेरडुंवां तिंबतालीं देखून
बडी एक घेवनु शीघ्र आयली आई
"भितर चेडाय, बेगीन चेडाय भितेरि"
गर्जन केलें आयेन कोपान.

सुन्नेली गर्जन आयकोवनु
सांगले म्हांतारि आज्येन
"खेळों, खेळो पावसांतु
खेळों तीं चेरडुंवां

पावस, वत आदी लागून
वाडोंय तीं चेरडुंवां"
हें आयकून जाळान,
मांयेक दबकावणी दिवनु
सून ती परतून गेल्ली वासरेंतु.

पावसांतु चोरडुंवांलो खेळु देखून
आयलो आज्येक तिगेलो
सान पिरायेचो उगडास
गेलीं तिवीय भायर, सुन्नेक लिपून
पावसांतु न्हाली, पावसांतु खेळी
आज खेळी ती चोरडुंवां वांगडा



[1]कोल्लोरि - बोवाळ

# 5. जल्मभूमि भारत



परम पवित्र आमची जल्मभूमि - भारत

भारत, भारत आमची पुण्यभूमि - भारत

जगदीश्वरान अवतारू घेतिली भूमि - भारत

हांगा जल्मु घेवूंक पुण्य केलेले आमी भारतीय.

अरण्य, पर्वत, झरे आदी भरिलो देश भारत
न्हंय, नदी आदी [1]कुरवाळनु व्होळञ्जेता देश भारत
ग्राम, नगरी आदी भरिलो हरित देश भारत
सागर कुरवाळतालो देश भारत

विविध भास वेष आचारान
भारतमातेन गांथिलेले माळेंतुल्यो
पोवळ्या मणियो आमी भारतीय
भारत मातेले संतान आमी भारतीय

अद्वैत आनी वेदांत
पुराण इतिहास आदी
मानवांक दिलेलो देश भारत
ऋषीश्वरांनी जल्म घेतलोलो देश भारत

सत्य आनी धर्म- प्रिय देश भारत
भूलोक जनांक सदां मार्ग दिवो हो भारत
विश्वशान्ति दिंवचो देश भारत
विश्व पूजित आमचो भारत हो भारत

---

[1]कुरवाळप - सांसपप, आंपणावप

# 6. आंब्या काल



देवूळा तळ्याचे कडेक आसिलो
तो सुवादिक आंब्यांचो रुख
खांदे अनेक पातळावणु आज तो
व्हडून राबला मळबाक चुंबन कोरनु
आज मेरेन तो सांवळी दिवनु थंय राबला
गेलों हांव त्या गोडु आंब्या रुखा पोंदाक.

खांदे भोंरनु आंब्या घोंस देखून
आशा बाळगोनु म्हजें मन सोद्दी गाली ?
आंबो चोंच मारनु घालताले कावळे न्हावे ?
एक पिकिलो आंबो म्हाका घालनु दिवूंक

त्या वेळार उडून पावलोलो एक कावळो
मन म्हजे जाण जालोलो त्या कावळ्यान म्हाका
चोंच मारनु घालनु दिलोलो एक पिकीलो आंबो
घेवनु पयले हांव सुगन्ध ताजो आस्वादन केल्लो
उपरांत, आशेन खालो हांवे तो आंबो
हां! अत्यांत स्वादिष्ट! अतिमधुर हो आंबो.

आयलो म्हाका उगडास पोरण्या काळाक खालोलो,
आंब्याचें माधुर्य, हां! म्होंवाचें माधुर्य,
ना व्यत्यासु तो अल्प भी आज मेरेन
उगडास आयलो म्हाका म्हजो मधुर बाल्य काळ तो
मित्रां वांगडा झगडें केल्लोलो काळ तो
पिकून पडताले आंबे एकठावनु हाडलोलो तो काळ
जाय तितलेच आंबे खालोलो तो काळ

आंब्या रुखा पोंदाक खेळनु खोशी जाल्लोलो तो काळ
देवूळा तळ्यांतु पेंवनु स्नान केल्लोलो तो काळ
मधुर, अतिमधुर तो बाल्य काळ
पांवतोलोवे दुसेरीय तो बाल्य काळ?
तशीं विचार करून राबलो हांव
थोड्या वेळा त्या आंब्या रुखा पोंदाक

# 7. ईश्वर चिन्ता तें अतिमधुर



नागा देवळीच्या उपवनांतुलो ओंवळ्यां रूख
थंयच्या खांद्यारि आश्लिले ते म्होंवांमुसांचे पोळेक
कोणकी चेरडुंवान सोणु मारलोलो फात्तोरू
लागलो खातीर पडता म्होंवु तें, थेंबे थेंबे जावनु

थेंबो थेंबो ज़ावनु पडताले म्होंवा थेंबे
आचमन करताले चेरडुंवांले लागी
गेल्लों हांव संत संत तळहातांतु थोडो म्होंवु घेवनु
हांवें आचमन केल्लें हां! मधुर मधुर, अतिमधुर हो म्होंवु

मधुर, मधुर, अत्यन्त मधुर हो म्होंवु
ना म्हाका वाक्य ह्या म्होंवाचें माधुर्य वर्णन करूंक
म्होंवाचें हें माधुर्य स्वयं रूच केरूनु अनुभव करका
मधुर, मधुर, अतिमधुर तीं फुलां दित्तालो हो म्होंवु.

आसा वे व्यत्यासु त्या म्होंवाचें माधुर्याक?
व्यत्यस्त वे व्यत्यस्त फुलांतुलें म्होंवाचें माधुर्य?
तशीं संदेहु म्हजा मनांतु उद्भवु जालेवेळार
हांव नेणतां म्हजें मन हें प्रश्न घालेले आयकोवनु
कडेक आश्लिल्या फुला रोंप्याचेरी, बसिल्या एक म्होंवांमूस
पिरंगण कोरनु म्हजे लागी उडून येवनु सांगता.

"फुलां तें विभिन्न जात जाल्यारीय म्होंवांक एकच माधुर्य
नाना वर्णांची फुलांतुल्या म्होंवांक एकच माधुर्य
सुगंधि फुलांतुल्या म्होंवांक एकच माधुर्य
सुगंध नात्तिल्ल्या फुलांतुलें म्होंवांकय एकच माधुर्य
व्यत्यस्त फुलांतुल्या म्होंवांचो माधुर्य व्यत्यस्त न्हय
इतलेंच सांगून म्होंवांमूस तो उडून गेल्लो.

म्होंवांमुसालें वचन आयकून म्हजे भित्तेरच्या मनिसान सांगलें,
व्यत्यस्त फुलांतुल्या म्होंवांचें माधुर्य व्यत्यस्त न्हय
उपभोग केल्यारि सगटांकय एकच अनुभूती
जाती, मत भेद नात्तिल्ल्या सगटांकय एकच अनुभूती
पंडित या मूर्ख, कुबेर या निर्धन भेद नात्तिल्ल्या
सर्व चराचरांकय ह्या म्होंवांचें माधुर्य एकच

अतिमधुर म्होंवु दितालीं हीं फुलां
जगदीश्वराली सृष्टी न्हय वे?
सगटांकय एकच तरेन माधुर्य दितालो तो
म्होंवु तेंच न्हय वे ईश्वर?
आमच्यो भावना कश्यो तश्योच आसतल्यो
ईश्वराचें रूप, व्यत्यस्त फुलां तरेन

नानात्वांतु एकत्वा तरेन
साक्षात ईश्वर तो एकच न्हय वे?
ही चिन्ता, तेंच न्हय वे ईश्वरप्रेम?
ईश्वर चिंता तें मनिशांक शाश्वत
ईश्वर चिंता तें मधुर, मधुर, मधुर, अतिमधुर

# 8. देववाणी



हे मनश्या, तूं कोण? जाण जा तूं स्वयं
अन्य जल्मु कितुले तांडून
तूं घेतलो मानव जल्मु, त्या खातीर
तूं पुण्य केल्लोलो म्हूण निश्चय.

लक्ष्य तुका आनीक मोक्षु मात्र म्हूण तूं जाण जा
तूं निमित्त जावनु सत्य, धर्म आदी पालन करून
सदां सज्जन सेवा, दान धर्म आदी श्रेश्ठ कर्म करूंक
तूं मानव जल्मु घेतला म्हूण तूं जाण जा.

तूं ह्या अनश्वर परमात्माचो अंश मात्र
ना जनन आनी मरण आत्म्याक जाल्यारीय
हांव म्हळेल्या परमात्म्यांतु विलीन जावूंक

तुज्या आत्म्याक परम मोक्षु मेळका
त्या खातीर ह्या जल्मांतु
करी तूं सत्कर्म निस्वार्थ

माया प्रपंचांतु जनन, मरण एक माया नाटक
तांतुतलो नट आत्मा तो जनना वेळार
स्विकारु करलोलो पंचभूत नश्वर शरीर
मरचे वेळार, सोडनु वता आत्मा तो
मानव जावनु जल्मु घेतलोलो तुका
परम मोक्ष मेळ्ळ्यारि तुमचो आत्मा तो
हांव म्हळेल्या परमात्म्यांतु विलीन जातोलो
मागीर ना तुका जनन आनी मरण

ही धरणी तुका परीक्षणांचें रणांगण
रित्या हातान जनन आनी रित्या हातान मरण त्या खातीर
दुर्मती जावनातिले कर्म करी तूं दुसर्यांचें बगेक
कष्ट नष्ट सहन कोरनु, समर्पण करी तूं म्हजेरि सर्वय
लक्ष्य तुका मोक्षु; ताज्या भायर कांय ना; तशीं विचार करून
करी तूं निष्काम कर्म आळशी जावनातिले

# 9. रोय्याय रूख



रूख, रूख आमी रूख

रूख, रूख आमी रूख

हे मनश्या, तूं कात्तरनाका आमकां

आमकां कात्तरनाका, कात्तरनाका

आमी दिताय तुमकां फुलां

आमी दिताय तुमकां फळ





दिताय आमी तुमकां सावट
चडताय वालि आमचे खांद्यारि
वाडेयवताय वाल्येक आमी रूख
तीवय दिताय तुमकां फूल आनी फळ.

आमचे खांद्यारि पक्षी घोंटेर बांदताय
करताय आमचे खांदे तांचें रक्षण
आमी करताय आनीक दिताय
तुमकां सगटांकय प्राणवायू

रूख आमी करताय प्रकृतीचें रक्षण
करताय आमी भूंयेचें रक्षण
हे मनश्या, तूं कात्तरनाका, आमकां कात्तरनाका
रोय्याय तुमी रूख, वाडेयाय तुमी रूख

# 10. उदक जीवामृत



उदक उदक उदक, सर्वत्र उदक

उदक जीवामृत, एक एक थेंबोय अमूल्य

स्वार्थ चिंतक करचें ना फायचें चिंतन

व्यर्थ उपयोग उदकाचो केल्यार फाय तुमकां

मेळचेंना उदक पिवूंक, न्हावूंक आनीक धुवूंक

सोडाय तुमी स्वार्थ चिंता आनी कराय भविष्य चिंतन

तळी, बांय, नदी, समुद्र इत्यादी वायट करनाकाय

रक्षण कराय, रक्षण कराय तुमी उदका संपत्तीचें

# 11. उजवाड



उठलो उठलो आदित्य देवु तो पूर्व दिशेन
सत्यान चलता, चलता तो पश्चिम दिशेन
भिवनु भिवनु धावलो भीकररूपी तो काळोकु
आदित्य देवु येतालो देखून
आयलो आयलो उजवाड
हांसून हांसून आयलो उजवाड

## 12. जागाय



फालें जालें, फालें जालें
रुख रुखावळ उठायले
पान्नां उठायलीं, फुलां फुलेलीं
पशुपक्षी उठायलीं
किरू किरावळी उठायलीं
भोंवर, पिसोळीं आदी उठायलीं
सर्व चराचरय उठायलीं
हे चेरडुंवां तुमी आनिकेय न्हिदेनाकाय
जागाय, जागाय तुमी बेगीन जागाय

# 13. त्याग



तेल पिवनु जळता सुत्ताळी वाति
दिता ती, दिता ती आमकां उजवाड
देह त्याग करता ती स्वयं जेळनु
उजवाड आमकां दिवच्याक

# 14. मोक्ष



फात्तोरु फात्तोरु पाष्णा फात्तोरु
अरूपी, विरूपी, पाष्णा फात्तोरु
वत, पावस, धूळी, दंव लागली जायते
भोगलो व्होड कश्ट दीस रात
मेळ्ळो मोक्षु म्हाका एक दीसु
लागलो म्हजेर एक शिल्पीचो हातु
शिल्पीच्या हातान हांव अतिसुन्दर
जालो, जालो हांव एक देवमूर्ती

## 15. हे उठ तूं



हे युवक, उठ तूं उठ तूं, आलस्य सोड तूं
जागृत जा तूं, सदां जागृत जा तूं
पशुपक्षी न्हय तूं, मनीस जल्मु तुका
आसा तुका बुद्धि आनी चिन्ता शक्ति
विज्ञान प्राप्त कर तूं
कर तूं सदां श्रेष्ठ काम

# 16. भूमि



ना तिका पिशें, ना तिका पिशें
घुंवता ती, घुंवता ती स्वयं
सदां घुंवता ती चोवीस घंटे
घूंवून घूंवून घूंवून
भोंवडी घालता ती आदित्याक
रात्री आनी दीस करता ती
ना तिका पिशें, ना तिका पिशें
तिगेलें नांव भूमि, भूमि

# 17. सुर्यास्त



लोखंडाचो[1] व्हडलो गोळक
पिकेयता तो कोल्लांचो
तागेले बत्तेंतु नित्य
सकाळी लागून सांज पेलान
पिकून तांबिडो जालेल्या त्या गोळकाक
बुडेयता तो समुद्रांतु सांज वेळार

[1]लोखण

# 18. आकर्शण



लोहचुंबक, लोहचुंबक

स्वभाव दोनी तो लोहचुंबक

करता आकर्शण तो लोखंडाक मात्र

हेर वस्तूचेरि करता तो विकर्शण

जाय्याय तुमी लोहचुंबक जशे

कराय स्वीकार तुमी बरेक

कराय अस्वीकर तुमी चुकीक

## 19. फुडें सर



हे युवका, हे युवका जागृत जा तूं
हे युवका, हे युवका जागृत जा तूं
मेळना तुका आज कालचो समय
मेळना फाय तुका आयचो समय
गेलोलो दीसु मेळना तुका फाय
समय तो सगटांकय अमूल्य, अमूल्य

व्यर्थ गेलो समय जायतो

सोड तूं कालचें चिन्तन

करि तूं फायचें चिन्तन

राबका नाका तूं फाल्यां, आयचें काम करूंक

काम कर तूं आज ह्या पसून

आनी फाटल्यान तूं घुंवनाका, घुंवनाका

फुडें सर, फुडें सर, फुडें फुडें सर तूं



## 20. मानव सेवा



कोणाक लागता पोटाक भूक
कर तूं अन्नदान तांकां
सदां दया कर तूं दीनांचेरि
उतरां चांग सदां उल्लेय तूं
मानव सेवा कर तूं निस्वार्थ
पावतोलो देवु तुजे कडेक

# 21. प्रकृती



प्रकृती हांव प्रकृती
प्रकृती हांव प्रकृती
सगटांकय हांव समृध्दी
स्वार्थ जनांचें  लुकसाण
म्हाका असह्य जाल्यारि
सगटांकय हांव विकृती

# 22. अमूल्य संपत्ती

ज्ञान एक अमूल्य संपत्ती
ज्ञान सदां अमूल्य
ज्ञान तें सदां अनश्वर
ज्ञान सदां प्राप्त कर तूं
स्वयं प्रकाशित जाता
तोंड तुगेलें आदित्या समान



# 23. हारशी



काळोक[1] दाखेवचो ना
हारसेंतु तुगेलें तोंड
तसो समाज दुर्गुणाक मान न्हय दिता
उजवाड दाखेयता हारसेंतु तुगेलें तोंड
तसो समाज गुणांक सदां मान दिता



---

दुर्गुण

# 24. दिवो



दिवो सदां उजवाड दिता
उजवाड तो दूर करता काळकाक
ज्ञान सदां दूर करता मनांतुल्या अंधकाराक
काळकांतु बसिलांक दिवो कसो
जावका तशे ज्ञानी अज्ञानींमदीं

# 25. विनय



अहंकार तो मनशाक आपत्ति

ऊंचारि आसिलें उदक

कशें सकल व्हळ्ज्ेता

तसो अहंकार सोडून

येवका ताका विनय

# 26. म्हज्यान जातलें हांवें करका

श्रीरामलक्ष्मणांक लंकेंतु वचपाक
वानर सेनान समुद्रांतु
सेतुबन्धन करच्या वेळार
उदकांतु बुडून रेवेंतु घुंवोळनु
आंगारि लागिली रेंव व्होरनु
सांकव बांदूंक घालतले
एके चान्नेक देखून सन्तोशान



श्रीरामान तिनी बोटांनी
पोसेयले अपुरबायेन
त्या सान चान्नेले फाटीरि
तशीं आयलीं तिनी बोरे
चान्नेल्या फाटीरि

## 27. म्हाळगेड्यान सांगिलें आयकोंवका



आसा रुखारि एक किरा घोंटेर
घोंटेरांतु आसाय सान सान पिलां
लागली पिलांक पोटाक भूक
कीकी, कीकी, कीकी, कीकी
व्हडान काडलो शब्द पिलान
सांगलें पिलांकडे किरान
वचून येत्तां हांव भायर खाण तुमकां हाडूंक
देवूंक नज कोणीय घोंटेरांतु साकून भायर
आसा सकल व्होळ्ळें एक माजर
उगडास तांकां दिवनु
कीरु उडून गेल्ली बेगीन भायर
दिसलें एका विकृती पिलाक
घोंटेरांतु साकून भायर वचपाक
उडूंक कळनातुलें पील आयलें घोंटेरा भायर
पडलें तें पील घोंटेरांत साकून सकल
सकल बसिल्या माजरान
धेरनु खाल्लें त्या पिलांक

## 28. संभ्रम



न्हंयचे तडेरि उदक पिवूंक पावलें हस्ते पील

उदकांतु चन्द्रेमा शीर देखून

हस्ते पिलाक दिसलें आंबो म्हूण

बरो पिकीलो हळदुवो आंबो

सुन्डाळ्यान काडूंक गेले तें

पडलें तें हस्तेपील उदकांतु

व्होळ्ळी हस्तीन तिगेल्या पिलाचे

बाल्लाक[1] धरनु तांडून काडलें ऊंचारि

---

[1]बाल्लाक - शेंपडी, पुच्छ

# 29. खाण



रेवेंतु नाकटान खरपोवनु

चोंच मारनु ऊंचारि काडलो

कोंबेन एका व्होळ्ळ्या गांवडोळाक

सान सान कुडके केले गांवडोळाचे

कोंबेन तिगेलो चोंचेन

कोको, कोको, कोको, को को को...

शब्द काडनु उळदिले कोंबेन तिगेल्या पिलांक

धावन धावन आयलीं पिलां

एक एक कुडको चोंचेन काडून

धावन धावन गेलीं पिलां

खाले पिलांनी गांवडोळा कुडके

# 30. आज्ञाभंगाचें फल

कोंबे पिलांक देखून मळबार घुंवताली

एक घोणी आयली बेगीन सकल

घोणी ये़त्ताली देखून शब्द कोरनु उळदिले

कोंबेन तिगेल्या सान सान पिलांक

कुरर कुरर, कुरर कुरर, कुरर कुरर, कुरर कुरर

सगट पिलांय बेगीन येवनु लिपून राबलीं

व्होळ्ळे कोंबेल्या पाका पोन्दाक

विकृति एक सानु पील आयलें ना

आनी लिपलें ना तें पाका पोन्दाक

धेरनु व्होरनु खालें घोणयेन त्या पिलाक





# 31. बाबुलो लिपलो



आंगणांतु एकठांय खेळताय चेरडुवां
काडलो चिमटो विकृति बाबुलान
एक सान चेरडाक
व्हडान व्हडान रडलो तें सान चेरडूं
बापान काडली व्होळ्ळी बडी
बापा मारूंक गेलो बाबुलाक
हें देकून धांवून येवनु बडियेक धरलें आईन
बाबूलो बेगींन धांवून गेलो, लिपून बसलो भयान

# 32. वाडकुळो पोळो



कोकरा को को - कोकरा को को

को को को को - कोकरा को को

कोंब्या, कोंब्या, कित्याक कोंब्या,

साद घालता तूं ह्या सांजे वेळार

सकाळि जाली ना सकाळि जाली ना

कोंब्या, तुका साद घालूंक

हो मळबारि व्हो‌ळ्ळो वाडकुळो चन्द्रीम देखून

व्हो‌ळ्ळो पोळो म्हूण दिसलो कोंब्याक

लागली कोंब्याक पोटाक भूक

ते खातीर साद घालो त्या कोंब्यान

# 33. सावळी



तीनसांजे वेळार कूडांतु खेळताली चेडू
सावळी तिगेलि दिकून भिली ती
व्हडान व्हडान रडली ती
बोब आयकूनु धांवून आयली आई
आईन काडलें तिका हाण्डीरि
गेलें तिगेलें भय
राबलें तिगेलें रडणें...



## 34. मूय



मूय मूय एक तांबडी मूय
एक व्हडली सुन्दर मूय
मूयेगणांची प्रमुख ती
सदां येता ती देवळांतु गणसमेत

देवमूर्ती लागीं पडलेले
अक्षत, निवेद्य आदी अवशिष्ट
एकठांवनु भायर व्हरताय तीं
शुद्ध करताय तीं देवस्थान दर दिसा

दिसलें प्रमुख मुयेक तिका एक आशा
पिसोळ्या समान उडून वचपाक
मागले तिणें पांख देवा लागीं
दिलें देवान तिका वरदान

सफळ जाली तिगेली प्रार्थना
आयली तिगेल्या भुजारि दोनि पांखां
देवाक वन्दन करनु संतोशान
उडली ती भायर संत संत

उडून पावली ती एक फुला झाडार
झाडार साकून झाडार उडली ती परतून परतून
आनिकय ऊंचार ऊंचार उडूंक दिसलें तिका
उडून उडून पावली ती एका व्हडल्या रूखारि

हाय! हाय! सकलचें दृश्य पळोवूंक आसा खूब सुन्दर
सान मूय ती, भारि संतोशान सर्वय विसरली
एक कावळो उडून माड्या ऊंचारि पावलो देखून
मूयेक तिका दिसलें त्या माड्या ऊंचारि उडून वचपाक

उडली ती आनिकय आनिकय ऊंचार
त्या वेळार आयलें एक व्हड वारें
त्या वारयान व्हेलें तिका ऊंचारि
तशी पावली ती एका माड्या ऊंचारि

एक घोणी घूवनु घूवनु ऊंचार उडता देखून
मूय ती उडली दुसेरीय ऊंचार ऊंचारि
अल्प प्राणी मूय, तिका सूर्यताप असहनीय जाले
सूर्यतापान तिगेलीं पांखां जेळनु पडलीं तीं सकल...

# 35. प्रभात



मध्य रात्री समयं
रात्रीयात्रेकार एक घुगूम
पिंपळा रुखा खांद्यारि येवनु बसलें
ना वारें, ना हालता पनां
गेलो वेळु जायतो

वातावरण खूब थंड जाले खातीर
भरले वटवृक्षा पानांरि दंवा थेंबे
पडले दंवा थेंबे घुगुमा फाटीर
घुगूम तें बेगीन घुंवलें वेळार
देखले ताणें पूर्व दिशेंतु तांबडे रंग

पूर्व दिगंतेंतु तांबडे रंग
कोणकी तरी पातळायता कांय ?
पूर्व दिशेंतु यज्ञशालेंतु
मुनिजनांनी कोणय जळलेले
अग्नीचे सोबा काय ?

मुनिजनांनी अर्चना केलेलें
कुंकुम वारयानी वृश्टी केलेलें काय ?
हें अति सुन्दर दृश्य देखूंक
पूर्व दिगंतेंतु साकून चोरून पळेयता कोण ?
तो कोण म्हूण जाण जावूंक
घुगूम तें चोवनु राबलें

देखलें ताणें थंय दिगंतेंतु
तांबडे किरण पातळावनु
उदेवनु येतल्या त्या उदय सूर्याक
हा, उदेवनु आयलो उदेवनु आयलो
प्रशोभित उदय सूर्य तो
उदय सूर्य ताका देखून
कोंब्यान व्हडान साद घालो

पूर्व दिशेंतु तांबडे रंग संत संत अदृश्य जाले
काळोख संत संत अदृश्य जालो
मळब निवळ जालें

प्रकाश किरण पातळावनु
सूर्य तागेलो रथ फुडें चलयतले वेळेर
घुगूमाली दृष्टी अदृश्य जाली

पावले पावले प्रभात पावले
पानां सगट जागली, फुलां फुलेलीं
हा! मंद वारें संत संत फुंकता
हालताल्या पानांचे पिरंगणा आवाज़ कानांतु पडता
रुखा खांदे वारयान हालताय

सर्व चराचरय जागलें
कावळे शब्द करनु उडले
पिसोळें, मधमाशी, भोंवर आदिय
म्होंवां खातीर फुलां सोदून उडले
पर्यटक पक्षी ते आकाश मार्ग उडले
घोणी मळबार भोंवाडो मारनु उडली

आंब्या रुखा खांद्यार बसून
कोगुळान मधुर शब्दान हुयेल घालनु
संतोशान प्रभाताक स्वागत केलें
हा! प्रभात, प्रभात, अतिसुन्दर!

# 36. संध्या

पश्चिम देशांतुल्या वरुण रायाली पुत्री
संध्या राजकुमारीक व्हड्डीक करूंक
पूर्व देशांतुलो युवकोमळ
आदित्य राजकुमार तो
सात घोड्यांक बांदीलो
रुप्याचो रथ चलोवनु
पश्चिम समुद्राचे तडेरि
मंद मंद येवनु देंवलो



आदित्य कुमार ताका स्वीकारनु
समुद्रजलान तागेले चरण धुवनु
पादपूजा केली वरुण रायान
आदित्य राजकुमाराल्या कपलाक वरुणान
कुंकुमाचो तिळो सोबेयलो
तेन्ना आदित्य कुमारालें तोंड
सिन्दूर वर्णान प्रशोभित जालें
त्या वेळार राजकुमारी संध्यान
मंद मंद हांसून येवनु
आदित्यकुमाराल्या गळ्यारि माळा घाली

आरती ऊंवाळनु राणीयेन पसरायलेलें कुंकूम
वारयान फाफडावनु पडलेखातीर
समुद्र आनी मळब
सिन्दूर वर्णांनी सोबीत जालें
वरुणान आदित्याक आदरान स्वीकारनु व्हेलें

समुद्र राजमहालांतु वचपाक
आदित्य तो समुद्रांतु मंद मंद देंवलो
त्या वेळा पश्चिम दिगंत
पुराय तांबड्या रंगांनी सोबीत जालें
हें अवर्णनीय सुन्दर दृश्य
दोळ्यांक आनी मनाक सदां आनंददायक
ह्या प्रकृति रमणीय लग्नाक संध्या म्हणटात
हे संध्या, हे संध्या तूं सदां सुन्दर



---

[1] सांज

# 37. चांफें



आंगणांतु हांवें एक चांफ्या रूख रोयलो
सिंपडायलें हांवें प्रतिदिन[1] ताका
चांफें बेगबेगीन वाडून रूख जालो
चांफे कळे घालताले देखूंक
सदां चोवनु राबतालो हांव उत्कंठींत

कळे आयले एक दीस म्हज्या चांफ्यारि
रुखा खांदो भरनु कळे आयले
चांफ्या कळे ते सगट
अनुक्रमान फुलेले संत संत

हळदी रंगीलीं चांफ्या फुलां
भांगरा वर्णांचीं चांफ्या फुलां
बरीं सोबीत चांफ्या फुलां
हा! सौरभ्य भरित चांफ्या फुलां

फुलांचे सुगन्ध आंगण पुरा प्रसारले
शीतळ वारयान चांफ्या फुलांचे सुगन्ध
गांव पुरा प्रसारले वेळारि
भिरमुटी आनी पिसोळीं उडून आयलीं
फुलांचे आशेन एकठांवनु आयलीं चेडवां
फुलां तोडून तांणी माथ्यारि शिरकायलीं

एक काळो दीस पावलो
पावस आनी तुफान आयलो
म्हजो चांफ्या रूख तो मोडून पडलो
हें देकून त्या दीस पुराय हांव रड्लों दुःखून
खंयच्याय वेळार याद तो म्हाका आयल्यारि
हांव सदां रडून बसतोलों

---

[1]हर दिन

# 38. वसंत ऋतु



पावलो पावलो वसंत ऋतु पावलो
वसंत ऋतु, तुका स्वागत सुस्वागत
वसंत ऋतूक स्वीकार करूंक
प्रकृतिदेवी ती स्वयं तयार जाली

काळे मेघ अदृश्य जावूंक आरंभिले
आकाश पुराय सोबीत जालें
भूमिदेवी पाचवें पाट्या कापड न्हेसून राबली

शीतळ वारे मंद मंद फूंकता
समृद्धीचें प्रतीक 'बय्या फुलां रूख
भांगरा रंगीलीं, हळदुवीं रंगिलीं
फुलां घोंसानी भरले

वसंत ऋतूक स्वागत करूंक
सगट फुलांच्या झाडांनीय फुलां फुलेयलीं
नाना तरेचीं फुलां फुलेवनु सुगन्ध पसरायले
पिसोळीं, भोंवर आदीय
फुलांतुलें म्होंव पिवूंक उडताय

फळवृक्ष सगट फुलेवनु फळफळावळ जाली
चान्नी सगट रूख रूखार
पिकीलीं फळां सोदून चडताय
कीर सगट किरकिरावनु उडताय

कोगूळ मधुर गींत गायताय
मोगीण पक्षी मृगादी संभोग करताय
मोर ते प्रेमान नृत्य करताय
पर्यटक पक्षी सगट आगत जाताय

वसंत ऋतून मंदस्मित जावनु
भूमि देवीक प्रेमान आपणायले
भूमिदेवी रजस्वला जाली
भूमि देवी प्रसन्नवती जाली



---

[1]बय्या फूल - कर्णिकारम फूल

## 39. अग्नी



अग्नी, अग्नी, अग्नी
ऊर्जा ही अग्नी
ऊर्जा ना जाल्यारि चलन असाध्य
पंचभूतां मदीं एक हो अग्नी
वायु, जल, भूमि, अग्नी आनीक आकाश
तांतू अग्नी आसा श्रेष्ट

मालिन्य तें वायु हांतु मिश्रण जाल्यारि
वायु बी अशुद्ध जाता
मालिन्य तें उदकांतु मिश्रण जाल्यारि
उदक बी अशुद्ध जाता

मालिन्य तें मातयेंतु मिश्रण जाल्यार
माती बी अशुद्ध जाता
मालिन्य तें आकाशांतु मिश्रण जाल्यार
अंतरीक्ष बी अशुद्ध जाता

जाल्यार हांतूं अग्नी केन्नाय व्यत्यस्त
मालिन्य तें अग्नींतु मिश्रण जाल्यार
मालिन्याक अग्नी भस्म करता
अग्नी सदां विशुध्दी सोडनातिलो रावता
अग्नी सदां कळंक रहित रावता
विशुध्दीचें प्रतीक आसा अग्नी

अग्नीची ज्वाला सदां आसा ऊंचारि
मानव आमकां जावका, तशींच ऊंच चिंतनां
अग्नीच्या ह्या सद्गुणाक
स्वीकार करका आमी मानवांनी

भस्म करका आमी सदां
आमच्या मनांतुले अशुध्दीक
सदां कळंक रहित जावका
मन आमचें अग्नी समान

## 40. रात्रि

काळशी राज्यांतुली
काळशी राजकुमारी रात्रि ती
मंद मंद येताली देखून आसुंयेत
सिन्दूर वर्णाची सुन्दरी
सौम्यवती संध्या राजकुमारी ती
भयेन बगीन अदृश्य जाली

मेघ सेवकांच्या सांगातान
भीकर रूपिणी रात्रि ती
मळबा महालाचे पडवेरि
मंद मंद येवनु बसली

एक व्हड वारें फुंकल्या वेळार
तिगेल्या केंसाची गांठ मेकळी
काजळाचे काळसाणेन चकचकीत
तिगेले मुद्याळे केंस
वारयान बेसावध जावन ऊबले
तेन्ना पुराय गगनांतु काळोख प्रसारलो



काळोख भरनु रात्रि जाली
रात्रि संचारी घुगूम आनी
रात्रि संचारी वागोळे
हांगा थांगा उडून भोंवताय

रात्रीच्या मुद्याळ्या केंसाचेरि
काजुळे मेळनु येवनु बसले
ते सगट नक्षत्र जावनु चकचकीत जाले
रात्रीन एक चांफ्या फूल
केंसारि सिरकायलें तेन्ना
तें एक चंद्रकोर जावनु सोबलें

चंद्रकोर आनी नक्षत्रांनी
किट्ट काळखांतु अंधूक उजवाड घाले
निशागन्धि फुलां फुलेलीं
रात किडे लिपून बसून
कीर्र कीर्र शब्द करताय
हो, ही रात्री कितुली भयानक !

# 41. भूमि देवी



ही भूमि अत्यंत सुन्दर
आमी वासु करची ही भूमि अत्यंत सुन्दर
आमकां सगटांक ही पुण्यभूमि
नमन करताय तुका आमी सदां

अन्न आमकां दितली भूमि तूं
प्राणवायु दितली भूमि तूं
दाहजल दितली भूमि तूं
नमन करताय तुका आमी सदां

सर्वचराचरांक प्रसूती मा तूं
आवयचे मांडींतु तरेन
सगटांक अभय दितली देवी तूं

भूमिदेवीच्या भुरग्यांतु श्रेश्ठ आमी
चिंताशक्ती आसिले मानव आमी
दिंवनाका कश्ट भूमिदेवीक
नमन करताय तुका आमी सदां

जावका आमी भूमि देवी तिच्या रक्षक
करका सदां आमी भूमिदेवीचें रक्षण
भूमिदेवी, तुका नमन नमन
नमन करताय तुका आमी सदां

## 42. बाळक

राखून राखून आमकां मेळोलो बाळक रे तूं
देवान आमकां दिल्लोलो बाळक रे तूं
बापालो सपनांतुलो राजकुमार रे तूं
आवय म्हाका तूं एक माणिक रे

मोम्यादूद हांव तुका पाजेयतां
सांगून दितां हांव तुका सान काणी
पाळण्यांतु न्हिदेवनु हांव तुका झूंक काडता
गोड गोड गीत गावनु तुका न्हिदेयतां



लुटुलुटून तूं बेगीन चोंवकूका
कुकुले दांत दाखोवनु तूं हांसका
तोतरें तोतरें तुवें उलोवंका
म्हज्या भांगरा पुता, तूं
बेगीन व्हड जावका.

# 43. जल्म, मरण आनी पुनर्जल्म



आत्मा हांव, हेडतां..., भरपूर हेडतां
ना म्हाका आकार, ना रंग, ना घाण,
आनीक हांव दृश्टीगोचर बी न्हय
हांव जल न्हय, अग्नी न्हय, भूंय न्हय,
आकाश आनी वायु बी न्हय
म्हाका नांव ना, देह ना, घर ना, देश ना
बन्धू ना आनीक मित्र ना



हांव कोण ? हांव कोण ?
म्हाका जाण जावूंक जायना
जल्मु काडका म्हाका दुसेरीय
ते खातीर पंचभूतांचो देह जावका
कळना, म्हाका कळना
हांव कोण जावनु जल्मु घेतोलों
केन्ना, केदना, खंय जल्मु घेतोलों हांव ?
कसलें रूप धारण करतोलों हांव

कोणाच्या गर्भाशयांतु जल्मु घेतोलों हांव
मानव वें, पशुपक्षी वें, किडो वें, रोड्डो वें,
जलजीवी वें, पिसोळें वें, वृक्षवनस्पत वें
तांतू कोण जावनु हांव जल्मु घेतोलों म्हूण
कळना म्हाका कळना
हें जाणकार आशिलो कोण
तो साक्षात ईश्वर मात्र

देवान टिपून दवरलो प्रकार
एक दीस दिल्लो म्हाका दुसेरीय एक जल्मु





काटल्या जल्मा कर्म फलान
पुनर्जल्मु काडलो मानव जावनु
देवान तो दीसूच टिपून दवरलो, म्हजें मरण बी
जल्मु घेतेर सगटांकय संतोस
मेल्यारि सगटांकय दुःख
कित्याक ये संतोस आनीक दुःख
कळना म्हाका, कळना

जल्मु घेतल्यारि एक दीसु
मरण आसा तें सत्य न्हेय वें
आतां म्हाका आकार आसा
देहि आसा, रंग आसा,
नांव आसा, घर आसा,
बन्धुमित्रादीय आसा, देश आसा
आनीक कर्म कितें कितें करका
कितें कितें अनुभव घेवका हांवें
कर्म करूंक हांवें स्वीकार केलो धर्माचो मार्ग
तशीं काळ जायतो घडून सरलो,
सत्कर्मां भरपूर केलीं हांवें दुसरीय





या जल्मांतु करनु सोंपोंवचें सगट
करनु सोंपवलें कारण आसुंयेत
कितलो काळ हांव जिवीत जावका म्हूण
देवान निश्चय केलो प्रकार आसुयेत
मरण म्हाका लागी पावलें म्हूण
दिसले खातीर आसुंयेत

या देहींतु हांव रावले खातीर
आशिल्या मनोविकारान आसुंयेत
मृत्यु भय म्हज्या भितर घडून आयिल्या वेळार
ओनिकेय म्हाका जीवित जावका म्हूण
अशीं एक आग्रह आयलोलो स्वभाविक.

जल्मु घेतल्यार एक दीसु
मृत्यु आसा म्हूण कळता जाल्यारीय
मृत्यूक मुखार धुकलावनु मेळूंक
म्हज्या भितर आग्रह उदेलो
मृत्यूक अवरोध करूंक साध्य वें?
कोणाकूय साध्य वें?
केदना मरतोलों, केन्ना मरतोलों,
कसो मरतोलों हांव
कळना म्हाका कळना





कित्तेवें मरण, मरणानंतर आनी कित्तें
तेंवेंय कळना म्हाका, कळना
मृत्यु पसावंत कळतले कोणीय आसावें?
कोणीय आसावें?
तसो देवान टिपून दवरलोलो तो दीसु पावलो
प्राप्त केलो हांवें मृत्यूक
मृत्यु ते हांव जाण जाली ना, जाण जाली ना
ते हांवें अनुभव केले ना.

आत्मा हांव मेलो ना, मेलो ना, मागीर मेलोलो कोण?
मेलोलो हांव रावलोलो पंचभूत निर्मित देह आसुंयेत
आतां तेंवेंय म्हाका कळना
हांव त्या देहांतु साकून सोडून गेल्ले खातीर आसुंयेत
आत्म्यााक मरण आसावें? ना ना
आत्म्याक मरण ना, मरण ना



आत्मा हांव दुसेरीय
पांखां फुटिल्ल्या पक्ष्यां समान
उडून उडून गेल्लो ऊंचारि
परमात्म्यांतु विलीन जावूंक

# 44. फूल



उषःकाल सुरवात जाता वेळु
कळे घालनु राबिली त्या फुलां झाडार
त्या वेळार एक फूल फुलेलें
हळदुवें रंगिलें एक फूल

त्या फुला सौंदर्यान दोळ्यांक आनंद दिलो
त्या फुला सुगंधान मनांतु खुशी भरली
म्होंवासूस, पिसोळें इत्यादीय तिका सोदून पावले
तांकां सगटांकय तिणे मधुर म्होंव दिलें

सूर्या अस्तमय जालो वेळु
तशी संध्या आयलो वेळु
हा! कश्ट! तें फूल तकालस जावनु सकयल पडलें
तें देखून तें झाड दुःखित जालें

थोडो वेळ मात्र जिवीत जालेलें तें फूल
सगटांकय उपकारी जाले खातीर
अभिमान दिसले जाल्यारीय
तिका आयुस एक दिसचें मात्र
तें विचारांत घेवनु
दुःखान त्या झाडाचीं पानां सगट मंद मंद न्हिदलीं



## 45. काजुलो

लकलकून लकलकून, लकलकून चमकताले काजुले
लकलकून लकलकून, लकलकून उडताले काजुले
तिनसांजेचो वेळु जालो, सगट एकठांय येयाय
लकलकीत काजुल्यांनो, थोडो उजवाड घेवनु येयाय

सान सान काजूले लकलकूंक सुरवाताले वेळारि
देखूंक अत्यंत शोभाय, अत्यंत शोभाय
आपडल्यार किंचीत बी ताप नातिले
जळचे इंगळ्यांचे दिफळे
काजुल्यांनो तुमकां कोणे दिलें?
तुमकां कोणे दिलें ?

लकलकून लकलकून, लकलकून उडून येयाय
काजुल्यांनो तुमी वेगीन येयाय
सान बाळकांल्या पाळ्यांक भोंवाडो घालनु उडाय
लकलकून उडताले तुमकां दिकूंक अत्यंत शोभाय
म्हजीं सान बाळकां तुमकां दिकून खोस जावो
इल्लें वेळु तुमकां दिकून तो खोस जावो

## 46. माणिक



सदां सोबीत जाता माणिक
इंगळ्याघट्ट्यां पुंज्या भितेरी
पूरनु पडल्यारि तुका
सोबीत जावूंक जातावे ?
सोबीत जाल्यारिय तुजी शोभा
भायर दिकूक पडतोलवे ?

पूरनु पडिलो माणिक तूं जाल्यारिय
तूंवंय इंगळ्या घट्टि म्हूण विचारनु
घूंवन चोवंना तुका कोणीय
इंगळ्या घट्ट्यां भायर तूं येयल्यार
हें माणिक तूं सदां सोबीत जातलें,
आनी दुसर्यांक शोबा दितलें

# 47. चंद्रिमा सपन



कस्तुरी हळद आंगार सारेयल्या
हे पौर्णमि चंद्रिमा
गुलाबी वर्णांचि सुन्दरि
तूं सपन दिकता कोणाक?

मध्यरात्रीवेळु जालोलो नेणता
कोणाक तूं राखून राबला?
कोणालें उतर आयकूंक तूं
आकांक्षा भरीत कान दिवनु राबल्या?

निळें आकाश तडेरि पांयांच्या बोटान तूं
नाखटाचित्र बरेयता कोणालें म्हूण सांगतलीवे?
चंद्रिमा तुजी मनांतुली मोगी
कोण म्हूण तूं सांगशिवे, तूं सांगशिवे?

# 48. प्राण सखी



चंदनाचो तिळो केलेले चंद्रिके

काळे दोळे आशिली सुन्दरि

चंद्रप्रकाश पसरायताली प्राणसखी

तुगेलें तोंड दिकून हांव मोहित जालों

हांव मोहित जालों.

शितळ वारें येवनु थापटी मारताना
चांफ्या सुगन्ध फुकताली प्राणेश्वरी
गुलाबी फुलादळांचे देह आसिली सुन्दरि
तुका दिकून हांव मोहित जालों
हांव मोहित जालों.

काळजाक जोडूंन एक चुंबन दिवूंक
तुका एक चुंबन दिवूंक
न्हवरये कूडांतु हांव राखून राबलों
तुका हांव राखून राबलो.

न्हवरया कूडांचा दरवाजो उक्तावून तूं येताना
निळ्या आकाशाच्या कापडान तूवें तोंड लिपेयलें
शर्मिळा जावनु तूं म्हजे लागीं आयली
शर्मिळा जावनु तूं आयली



# 49. सुन्दरि पोपटी



कांचन रानांतुले सुन्दरि पोपटी
गांव गांव तांडून, उडून येवनु तुवें
अपुरबायेन म्हाका आपेयलें
पुण, कित्या तूं उलयना ?

        कितें आसा खबर म्हजे लागीं सांगूंक
        संकोच नाका, सांग तूं, वेगीन सांग

सुन्दरि पोपटी नर्मवती पोपटी
कित्या तूं लजेन राबल्या, तूं लजेन राबल्या ?

पोपटी पोपटी तूं यो यो यो
म्हजे लागींच तूं यो यो यो
आंब्या खांद्यारि बसून खेळ्यां
माड्या पाकोळे विंदळ्यार बसून झूंक काडयां

नवें बात, आनी रोसू दिविन
रामायण कथा गीत म्हणताली पोपटी
सुंदरि पोपटी पोपटी
रामायण कथा गीत म्होणु तूं नाच गो

अशोक वनांतुलो पोपट, पांच वर्णाचें पोपट
पोपट हें पोपट, म्हजी सुन्दर पोपट
नवें बात आनी दूद वेगीन दी तूं
रामायण कथा गीत म्होणून हांव नांचतां हांव नांचता

## 50. तांबडें कमळ

तांबडें कमळा सुमन,
मधु तुजी पिवूंक हांव पावलों
एक काळो भोंवर जावनु हांव पावलों
मनमोहिनी ओंट तुजे चुंबन करनु
हांव तुजो मधु पिलो.

मधु नशेन उन्मत्त जावनु
हांवें एक गीत गायलें, अनुरागांचें गीत गायलें
मंद वारें आयले वेळारी
उदका तरंगांतु पेंवनु तूं नाचलें
अनुरागिणी तूं म्हजे देहारी
पुष्पपरागान अनुरागांचे सुगन्ध सोबयले.

तुज्या होंठींतु उन्मत्त जावनु न्हिदलों
अनुराग नशेन हांव न्हिदलों



## 51. पावसा कूप



काळे काळे मेघ तूं काळशांगुरी कोगूळ
हे राजकुमारी तूं कळशांगुळी सुन्दरी
तूं मळबारी कशी पावली ?
कोणाक सोदिता मळबारि तूं ?

वरुण राजापुत्री हांव एक राजकुमारी
तपस केलें हांवें सूर्यदेवाक
सूर्यातापु लागून म्हाका नश्ट जालें म्हजें रूप
उबली हांव मळबारि काळें मेघ जावनु

इंद्रधोणू राजकुमाराक आपणावूंक
मळबारि हांव हेडपोवनु भोंवली.

हे काळे काळे मेघसुन्दरी
तुजी तोंड उदास जाले कशीं
तूं अश्रू सोडता कित्याक
इंद्रधोणु राजकुमाराक देखलीना खातीर वें?

अश्वरथाचेरि पावलोलो एक राजकुमार
तुषार राज्यांतुलो एक राजकुमार
म्हजेर मोहित जावनु ताणें
निर्दय म्हाका आपणायलें
नश्ट जालें तेन्ना म्हजें तपोफल
जलकण जालें हांव दुसरीय
म्हजे दुख्खाश्रू ते जलकण
पावसा कूप जावनु पडले



## 52. चंद्रिम



आकाश महलाचे पडवीरि
एकलेंच बसीली सुन्दरि
मेघांचे कापडाचेरि धवें मोतीं
गांथिताली सुन्दरी तूं कोण?

काळशे काजळान सोबेयलेले
तिगेलें मुद्याळे केंस
बेसावध पळपोवनु
तोंड तिगेले लिपेयलें

सुन्दरी कोण तूं? सांगतेवें तूं
चोयतां हांव तुजें तोंड
रूखा खांद्यारि बेसीली
पक्षीं तिणीय निंवगिले
प्रिये, तूं खेंयची राजकुमारी?
एक नदर पळोवचांक दिसलो तिकाय मोहु.

ते वाटेन आयलेल्या एका मंद वारयान
तिगेली मुद्याळे केंस वळोवले वेळु
दिकीलें हांवें सुन्दरी तिगेलें तोंड
काळ तो शिल्पीच्या पुत्री ती चंद्रिम

नम्रवती जावनु तिणें म्हाका चोयलो वेळु
असूयालु एक वारें येवनु
तिगेलें मुद्याळे केंस बेसावद उबोवनु
ताणें दुसरीय लिपेयलें तिगेलें तोंड



# 53. नीळ पाट्या कापड

इन्द्रान इन्द्राणीक दिल्लें
एक रूंद नीळ पाट्या कापड
दिल्लें तिका देवानी भरनु धवें मोती
एकेक मोतीं इन्द्राणीन जोडनु गांथले

श्री परमेश्वरान दिल्लोलो चन्द्रकोरूय जोडनु तिणें गांथले
चंन्द्र प्रकाशाचे शोबेंतु
मोती आनी पाट्या कापड चकचकीत जालें
गांव पूरा निळ्या पाट्या शोभा पसरले

खेंतेयकी गुपीत जावनु निद्रा विलीन जालोलो
सूर्य तागेले कान्नांतु दूत तो मंद वारें वचून
त्या विचित्र निळ्या पाट्याचे विशेस सांगले
सूर्याक तेन्ना त्या पाट्यार मोहु दिशिलो वेळु
बेगीन उठावनु अश्वरथाचेंरी चेडनु सूर्य तो गेलो.

सूर्य तो लागी पावलो तेन्ना
देवी तिणीं कुंकुम एकडावनु पसरायले
कुंकुमा वर्ण आनीक नीलिमा
निळ्या पाट्या शोभा वाडेयले

कोणेय देखल्यारि आशा बाळगोंवचो नीळ पाट्टो
आशेन वचून सूर्यान आफडायलो वेळु
चन्द्रकोरू आनी मोती अदृश्य जालीं
कुंकुम वर्ण आनी नीलिमा अदृश्य जाले
नीळ पाट्टो एक धवें पाट्टो जालो
धवें धवें धवें पाट्टो जालो

# 54. ओ गोंय



ओ... ओ... ओ... ओ...
ऐलसा... ऐलसा... ऐलसा

ओ... गोंय, गोंयांतुले जन आमी
कोंकणी जन आमी, काम आमकां व्यापारु

भास आमकां कोंकणी, आमची भास कोंकणी
लिपी आमच्या भासेक देवनागरी, देवनागरी

चारशीं  वर्सां पयलीं आमी आयले
कोंकणी जन आमचे पूर्विक आयले

पातमारी ताण्डून आमी आयले
गोंय सोड्डून आमी आयले

गांव गांव ताण्डून आमी
कोच्ची गांवांतु पावले

दयाळु रायु - कोच्ची महारायु, महारायु
रायु ताका वचून देखलें आमच्या पूर्विकांनी

दिल्ली आमकां भूंय कोच्ची महारायान
दिल्ली आमकां रायान राबूंक भूंय
दिल्लो आमकां सहायु देवूळ बांदूंक
रायान दिली आमकां सम्मति, व्यापारु करूंक

## 55. श्रम



कमळा तळ्यांतुले चिकलांतडेरि

व्हाडून येतालो कमळाचो देंटु

व्हाडून उदका ऊंचारि येवनु

कळो घालतात, तशींच

नीच कुळांतु जल्मु घेतल्यारीय

श्रम व्हड केल्यारि तो श्रेष्ट जाता

# 56. उदका थेंबे



तेरा पान्नांतु पडलेल्या उदका थेंब्याक
ना इल्लेशें बी संबंद तेरा पान्नाचेरी
तशीं ना इल्लेशें बीं संबंद
आत्म्याक आनी मनाक

# 57. मन



दोळ्याचे कवच नातिलो घोडो

लगामाची दोरी नातिलो घोडो

नियंत्रण सोडलोलो घोडो

अलक्ष्य जावनु धांवतालो घोडो

मन आमचें सदा त्या घोड्या समान

## 58. संस्कार

कोडू लिंब्यापातेच्या रुखा कडेक
व्हाडून येतालो उशीकांडो
कोडू लिंब्या सहवास कारण
गोड उशीकांडो तो कोडू जाता वें?
उशीकांडो ताका आसचीना कोडसाण
तो सदा गोड गोड आसा
तशीं संस्कारशून्य जनाचो सहवास
तुमकां आसल्यारीय तुमी सदा
उत्तम संस्कार स्वीकार करका
गोड गोड त्या उशीकांड्या समान



# 59. सावध जा



मळबाक आडोळनु उठताली काळी घोणी
भोवांडो घालनु ऊंचार उडताली काळी घोणी
गळ्यारि धवें कांकण घालेली काळी घोणी
शिकार करूंक सकयल वाट पळेताली काळी घोणी
सकलय कोंब्यें पिलां खाण खावनु भोंवताय
कोंब्यें पिलांक धरूंक तूं आयल्यारि
सावध जा तूं सावध जा; आसा एक कोंबो सकलय
तो कोंबो तुका चोंच मारनु धांवडायतोलो

# 60. शुभाप्ति विश्वास



मनाचे तकालस हांव कोणालागी

सांगतोलो म्हूण अशी विचारान हांव

त्या पिंपळा रुखा पोंदाक एकलोच

चिंतन करनु बसिल्या वेळार

कोण म्हूण म्हाका कळना

एक रूप, अव्यक्त रूप

म्हजे मुखार येवनु राबून

म्हजे लागी सांगता




शुभ चिंतन केन्नाय बरें आसता

चिंतन केलेले सगट

प्राप्त जावका म्हूण ना

जावनु गेलेले सगट तूं उगडास काडल्यार

मेळचीना तुका मनसमाधान

गेलेले सगट उगडास काडनु

तूं दुःखित जावंनाका

आनी येवचें कार्या खातीर

तूं हुसको जावंनाका

गेलेले सगट बऱ्याक ;

येवचें कार्य सगट बऱ्याक ;

करचे कार्य सदा तूं चिंतन करनु करि

शुभाप्ति विश्वास सोडनातिले

परिश्रम करि तूं निरंतर

इतलेंच सांगून तें अव्यक्त रूप अप्रत्यक्ष जाले



ए. पी. भानुप्रकाश

"ह्या झेल्यांतल्यान कोंकणीचे केरळी शैलीचें मनमोहक दर्शन घडटा. त्यानभायर ह्या झेल्यांतल्या साबार कवितांनी म्हाका एक गजाल मुखेलतायेन जाणवल्या, ती म्हणल्यार हो कवी दर एके कवितेंतल्यान हेरांचो चिंता-हुस्को काडटाना दिसता. फकत बरोवपाक जाय म्हूण तो कविता बरयना तर ताका कितें तरी सांगपाचें आसा, मुखावेल्याक मार्गदर्शन करपाचें आसा, तशेंच आपल्या अणभवांतल्यान हेरांक सादूर करपाचें आसा. ताची काव्यहारांतली पयली ते निमणी मेरेनची कविता वेगवेगळे संदर्भ घेवन होच सूर आळयताना दिश्टी पडटा. कांय जाणांक हो आशयाचे नदरेंतलो पुनरावृत्तीचो काव्य-दोश दिसुंये. पूण केरळ वाठारांत विस्थापीत कोंकणी समाजाची चारशीं वर्सांची परंपरा ताका कारणीभूत आसा अशें म्हाका दिसता. भोंवतणच्या थळाव्या कोंकणी समाजांतल्या दर एका घटकाचो हो कवी हुस्को करता. पूण प्रत्यक्षांत आपलें आंग खंयच दाखयना."

प्रा. हनुमंत चोपडेंकार



देवी पब्लिकेशन्स
एरणाकुळम - केरळ

₹ 100